

# लामणदीवो

प्रकाश आचार्य

| | |
|---|---|
| **लामणदिवो** | **LAMANDIVO** |
| (काव्यसंग्रह) | (Poems) |


| | |
|---|---|
| **प्रकाश आचार्य** | **by : Prakash Acharya** |
| 'सुमित्रा' | "Sumitra" |
| घर नं. 729/एच, | H. No. 729/H, |
| सोनू टाऊनशिप | Sonu Township |
| सां जुजे द आरियाल, | St Jose de Areal, |
| कुडतरी, सालसेत, | Curtorim, Salcete, |
| गोंय-403 709 | Goa - 403 709 |
| फोन : 7798167999 | Phone : 7798167999 |



प्रकाशक :
**संजना पब्लिकेशन्स**
39, दत्तवाडी, सांगें, गोंय. 403704
sanjanapublications2@gmail.com





**पयली उजवाडावणी** : गुलमोहर प्रकाशन 1987
**दुसरी (सुदारीत) उजवाडावणी** : संजना पब्लिकेशन्स 2021

छापणावळ : **रिया ग्राफिक्स,** ओल्ड-गोवा

मुखचित्र : **कमलेश मेस्त्री**

**मोल : रु. 150/-**

आवय बायल धूव भयण कपांनी
सेवा करी जी तरातरांनी
पुण्य जिची सासाय भौंवतणी
हें काव्य पुष्प ते स्त्रिये पांयार
हे स्त्रिये तुका वंदन त्रिवार

- प्रकाश आचार्य

# स्मरण

**म्हज्या** कोंकणीच्या मूळ पुरसा, तुज्या त्या पयल्या-वयल्या उतराक अशीच अगणीत, अखंड अशी पालवी फुटूं आनी त्या विशाळ रुखाचे सावळेंत आमकां आमचे जिणेची थंडाय मेळूं.

म्हज्या तोंडांतल्यान जी पयली उतराची कीट भायर फुटली ती ह्या आमचे कोंकणी मठयेचो लामणदिवो जळत रावपाक आधार धरूं.

आवयच्या दुदान जे रगताचे थेंबे तयार जाल्ले तांतले कांय थेंबे अजून म्हज्या शिरांनी शिरशिरतात आसुये. नाजाल्यार म्हजे आवयच्या तोंडांतल्यान आयिल्ले ते अमृतवाणयेंतलीं

तीं म्होंवाळ उतरां भायल्या हुंवारांत तग धरूनूय आजतागायत म्हजे जिबेर घोळनाशिल्लीं. कुडींत जिवाचो शेक आसा मेरेन तें रगत म्हज्या शिराशिरांतल्यान व्हांवूं आनी ताच्या दर परमाणू कणकणीं आवयभाशेंतल्या त्या म्होंवाळ उतरांचीं सुत्रां जावन म्हजे जिबेर घोळूं, नाचूं, खेळूं, गावूं हेंच एक मागणें.

एक उज्याची कीट आपली मठी तिगोवपाक आनी पालोवपाक उपेगा हाडूं येता. मनशाच्या तोंडांतल्यान उतराची पयली कीट जेन्ना भायर फुट्टा त्या खिणा सावन तो ताचो अंतीम स्वास घेता मेरेन ताच्या तोंडांत तरातरांनी हीं उतरां घोळटात, बळटात, फुलतात आनी फळटात. ही दर एकल्याच्या उतरांची कीट आमची ही कोंकणी मठी उजळ करपाक आधार धरूं.

उतरां हो मनाचो हारसो अशें हांव मानतां. मनांतल्या विचारांचो जल्म म्हळ्यार उतर. हीं उतरां अंदून दवरिनासतना जायत्या प्रमाणांत व्हांवत रावल्यार आपलें मन नितळ उरता. ही व्हांवता आसतना जो कंप भरता त्या कंपनांतल्यान आपणें आपले जिणेच्या सुखाचो आनी दुख्खाचोय उपभोग कसो घेवचो हाची थोडी भोव जाण म्हाका ज्या भायल्या भितरल्या जाणकारांच्या कंपनांतल्यान जाली तांकां म्हजें पयलें नमन. तांच्या ह्या कंपनांतलो थोडो भोव तरी गंध म्हज्या उतराक येवूं हेंच होरावणें.

जाचें मोल करूंक जायना तें रीण फेडूंक जायना. हे म्हजे मनांतले उमाळे तोंडांतल्यान कागदार येवपाक कळत नकळत जांणी म्हाका उत्स्फूर्त करून हातभार लायलो तांचो आनी म्हज्या कवितांची, गितांची तुस्त-तोखणाय करून, म्हाका उत्साह आनी प्रेरणा दिवन म्हजें हें बरप पुस्तकाच्या रुपान उजवाडाक हाडपाचें थारायलें त्या भौ. प्रकाशबाब थळयांचो हांव आभारी.

निमाणें, तें म्हजें पयलें उतर अशेंच बळूं, फुलूं, फळूं आनी ताच्या गंधाचो कणानकण जण एकल्याच्या मनाक आल्हाद दीत रावूं हेंच म्हज्या कुळदेवा कडेन आनी कुळदेवते कडेन मागणें.

**– प्रकाश आचार्य**

प्रभाकर देसायालें घर
आकें, मडगांव-गोंय 403601

# वाती सारतना

# 'लामणदिवो' : परंपरेचें प्रतीक

**कोंकणी** काव्य-मठयेंतल्या ह्या 'लामणदिव्या'च्यो वाती सारतना मनाक उमेद जाता.

कविता मुखेलपणान दोन तरांची आसता. एक निखटी वाचपाची जाल्यार दुसरी वाचून गावपाचीय. हे गावपाचे कवितेक गीत म्हणटात.

कोंकणी गितांक एक परंपरा आसा. केवळ वाचपाचे कवितेक लय, ताल, गेयतेचीं बंधनां लागनात. गितांक तीं लागतात. ताका लागून आज कोंकणींत वाचपाची कविता चड प्रमाणांत प्रसवता.

कोंकणी गितांचे म्हालगडे प्रणेते म्हणून यशवंत केळेकार, दिनकर देसाय, बाकीबाब बोरकार हांचीं नांवां सहज दोळ्यां मुखार येतात. हांचो वसो घेवन ती परंपरा फुडें चलोवपी कितलेशेच जाले. पूण सध्या कोंकणी कविता 'मुक्तछंद', 'नवकाव्य', 'गूढता', 'दुर्बोधता' हांच्या जंजाळांत सांपडून गिता कडेन फाट करपाची शक्यताय दिसतनाच प्रकाशबाब आचार्याचो हो 'लामणदिवो' उजवाडा येवप ही खोशेची गजाल.

नामनेचो अमेरिकन कवी रॉबर्ट फ्रोस्ट म्हणटा, Free verse is an attempt to play tennis without the net. मुक्तछंदाकूय कांय तत्वां लागतात. आपूण जावन घालून घेतल्यांक कांय बंधनांची गरज आसता. पूण मुक्तछंद (Free verse) म्हळ्यार स्वछंद अशें धरून हालीं थोडे कवी बरोवंक लागतात आनी व्हांवत वतात तें पळोवन फ्रोस्ट म्हणटा तें खरें अशें

दिसूंक लागता. विनाकारण, अट्टाहासान हे कवी परंपरा तोडपाचो, मोडपाचो हावेस धरतात काय असो एकेकदां दुबाव मारता.

लामणदिव्याचो कवी परंपरावादी आनी लेपषळीाळींीं – परंपरागत धर्मीक आनी हेर बरे संस्कार मनाचेर घेवन वाडिल्लो मनीस. सत्शील, सत्प्रवृत्तीचो, सावळेक भियेवन चलपी पापभिरू. परंपरेचे चौकटेंत रावन बरयिल्ल्यो ह्यो ताच्यो कविता. संग्रहाक 'लामणदिवो' हें नांव दिलां तें ओगी न्हय.

हो 'लामणदिवो' म्हळ्यार एके तरेचो त्रिवेणी संगमूच. हातूंतल्यो कविता, गितां वाचतना ह्या कवीचेर तिगां जाणांच्या काव्याचो प्रभाव पडला हें उक्तेपणी जाणवता आनी मेकळेपणी सांगूं येता. मात्राबंधन, जाती, वृत्तां आनी छंदोबद्धतेंत भा. रा. तांबे (म्हळ्यार बाकीबाबांचे गुरू), गीतरचना, नाद, ताल हातूंत 'पांयजणां'तलो बाकीबाब आनी विडंबनाचे बाबतींत 'झेंडूची फुले'चो आचार्य अत्रे.

तांबे, बोरकार आनी अत्रे अशे तरेन ह्या लामणदिव्याच्या उजवाडांत एकठांय आयल्यात. अर्दीमर्दीं हेर वातीय पर्जळटात. आचार्याक तांबे, बोरकार, अत्रे एकाच वेळार भेटले ते तो धारवाडा कॉलेजींत शिकता आसतना. तांबेची 'समग' कविता, अत्रेचें 'साष्टांग नमस्कार' हें नाटक, पाठ्यक्रमांत आनी अत्रेचोच 'झेंडूची फुले' हो काव्यसंग्रह, अभ्यासाक आशिल्लीं. बाकीबाब खासा एके कोंकणी कार्यावळीक हाजीर रावन 'पांयजणां' वाजोवन गेले आनी त्या झंकारांतल्यानूच, तो वेळ मेरेन मराठी साहित्याच्या प्रभावांत आशिल्लो राधाकृष्ण आचार्य आयच्या ह्या 'लामणदिव्या' चो कवी 'प्रकाश' जालो. ह्या कवीक कोंकणी वटेन वळोवपाचें श्रेय बाकीबाबाकूच दिवपाचें.

लोलयेंच्या निसर्गरम्य भोंवतणांत, घरच्या कृष्णदेव देवळाच्या सान्निध्यांत, ग्रामदेव केशवदेवाच्या सांगातांत जल्मल्लो आनी वाडिल्लो हो राधाकृष्ण ताचे आवयच्या मरणा उपरांत काव्य प्रकारांतल्यान अभिव्यक्ती करूंक लागलो. ताका लागून बाकीबाबाच्या काव्यांतल्यान जशें सैम उलयता तशें आचार्याच्या काव्यांतल्यान भाव उलयतात.

ह्या संग्रहांत आचार्यान भा. रा. तांबेची वृत्तबद्ध कवितेची धाटणी

बाकीबाबाचें बोट धरून कोंकणींत हाडपाचो यत्न केला. त्याच बराबर आचार्य अत्रेचे धाटणेन विडंबनां करतना खासा बाकीबाबाकूय ताणें सैल सोडूंक ना.

ह्या संग्रहांत जायत्या कवितांनी स्त्रियेक खूब म्हत्वाची सुवात दिल्या. संग्रहाची सुरवातूच स्त्रियेक केल्ल्या त्रिवार वंदनान जाता.

कवी म्हणटा : –

*तूं भूमातेचो आविश्कार*
*हे स्त्रिये तुका वंदन त्रिवार*
*स्त्री म्हळ्यार कितें? स्त्री म्हळ्यार कितें न्हय?*
*तूंच गे वात्सल्याची मूर्ती*
*मांगल्याची तूंच गे किर्ती*
*भावभक्तीची प्रखर तूं शक्ती*
*तूं सर्गसुखाचो साक्षात्कार*

स्त्री ही मनीसकुळयेच्या जिवितांत वेगवेगळ्या रुपांनी मुखार येता.

*आवय बायल धूव भयण रुपांनी*
*सेवा करी तूं तरातरांनी*
*पुण्य तुजी सासाय सायबिणी*
*अश्टांग तुज्या हें पुण्य पांयार*

वेगवेगळ्या कवितांनी ही स्त्री तरातरां रुपां धारण करून वाचप्यां मुखार येता. 'याद' हे कवितेंत ती 'वात्सल्यसिंधु' आवयच्या रुपान आमकां दिसता तर 'वाट पळयत सारतां वात' हातूंत ती सासुरवाशीण विवाहीत सून जावन वावुरता. 'तो तीळ तुज्या गे पोल्या वयलो' हातूंत ती रुपगर्विता, शृंगारी ललना अशीं कवींचे नदरेंत भरता तर 'तुज्या मोगान गो म्हाका लायलें पिशें' हातूंत ती प्रेयसी प्रेमला जावन कवीक भुरळ घालता. 'दवर हे ध्याना' हे कवितेंत कवी चलयेचो बापूय जावन, लग्न जावन घरा वचपी धुवेक निरोप दिता तर हीच चली व्हंकल जावन घरा येता तेन्ना कवीक 'आयली सर्गकळा गे घरादारा' अशें दिसता. तांबेच्या 'नववधू' कवितांचो कवीचेर जबरदस्त प्रभाव जाणवता.

स्त्री भक्ती वांगडा परमेश्वर भक्तीच्योय कांय कविता ह्या संग्रहांत वाचूंक मेळटात. धर्मीकतेन ओतप्रोत भरिल्लो कवी देवाची आळवण समर्पीत भावनेन करिनासतना रावप म्हळ्यार अजाप. कांय कविता अध्यात्म आनी तत्वज्ञान सांगपी. जांचें स्मरण जाता तांकां केन्नाच मरण नासता हेंच तत्व कवी आपणाल्या उतरांनी हांगा सांगता :

*कोण सांगता*
*हांव मेलों*
*हांव म्हणटां*
*ताणें घेतिल्ल्या*
*म्हज्या नांवान*
*हांव अजून*
*जितो आसां*
*(अमरत्व)*

बाकीबाबान 'पांयजणां' त आमकां सांगिल्लें : 'भाव अनावर जावन प्राणाक कंप भरता तेन्ना उतरांच घुंगरां जातात आनी ताचींच पांयजणां करून कवितार ती पावली मारूंक लागता. म्हणुनूच शृंगार, वीर, वत्सल, भक्ती, हास्य बी रस घुमूंक लागून काळाची रेंव थोडो वेळ जायना, अमृतान ओली करतात. काव्याचे तरेकतरांचे छंद आनी प्रकार, भावकवनां, गितां, नाट्यगितां, संगितिका, लावणी, पोवाडो अशी तरेकतरांची रचणूक पांयजणांच्या रुपान सुखाच्या सुवर्णांत सुगंध फुलयता.'

आचार्याच्यो ह्यो कविता लामणदिव्याच्या मंद उजवाडांत वाचतना सादारणशें अशेंच कितेंशें जिवाक दिसता.

विडंबन हें ह्या संग्रहाचें एक खाशेलें आंग. अशे तरेचीं दुसऱ्यांल्या कवितांची विडंबनां कोंकणींत कांय जाणांनी हे आदींय बरयल्यांत. पूण संग्रहांनी तीं चडशीं झळकनात. आचार्यान हें धाडस केलां. विडंबनाचीं उतरां कानार पडटनाच मूळ कृतीची स्मृती मनांत जागृत जावप ही त्या कवीच्या

यशाची पयली कसोटी. विडंबनाचे बाबतींत दोन धोके आसतात. पयले सुवातेर एक फावट विडंबन वाचलें म्हणटकूच मूळ रचनेची सुरकसाण परती आदलेवरी घेवंक मेळना. ते भायर मूळ रचनेचो कवी दुखवता. म्हणुनूच विडंबनकार हो मात्सो धाडशी आसचो पडटा. आमचे मजगतीं असलें धाडस करपी कांय 'तिरसुवाद', 'तवनास', 'फकाणेर' बरोवपी आसात. पूण असले आजनेरी कुळयेंत प्रकाश आचार्य हें 'कूळ' साप्प मोडना. ताका जे लोक वळखतात तांकां हीं विडंबनां अनपेक्षीत म्हणून अजापूच जावपाचें. म्हाका आजवेर खबर नाशिल्लें. ताचें हें मिश्कील फकाणेर विडंबनांग पळोवन हांव विस्मीत जालों. कोणाचे वाटेक केन्ना ना वचपी ह्या सरळमार्गी सद्‌गृहस्थाचे धिटायेची म्हाका तोखणाय दिसली.

बाकीबाबाक 'घरचो अहेर' दिवपी तांच्या कांय कवितांचीं हीं विडंबनां कितलीं अर्थपूर्ण पळयात :

*'आमचें नांव वयर काडूंक भुरगे जाले म्हान*
*घरांदारां जालीं बार्‍रां कुडींत नुल्ले त्राण*
*रगताचें उदक करूंक रात जागयली*
*हांणी रात जागयली*
*संवसाराची 'शांत' करून तान भागयली*
*हांणी तान भागयली*
*तिठ्यार गांवच्या गाजता हाचें फायचें यशोगान'*

गोंय स्वतंत्र जावचे कांय वर्सा आदीं सुटके झुजाऱ्यांक लेखून बाकीबाबान 'गोंयचें नांव व्हड करूंक ल्हान जाले म्हान । बंदखणीचीं देवळां जालीं लामणदिवे प्राण' अश्यो वळी आशिल्ली कविता बरयिल्ली, ताचें हें विडंबन.

आज गोंयचे सुटकेचो रुप्या उत्सव मनयतना गोंयचे आयचे सत्यस्थितीचें हें वर्णन विडंबन आसुनूय हांसयता हांसयता गोंयकारांक अंतर्मुख करता. आयचे तरणे पिळगे विशीं आनी फायच्या गोंयां विशीं हुस्को परगटायता.

बाकीबाबांच्याच 'गोंय आमचें मूळपीठ' हे कवितेचें हें विडंबन पळयात :

*‘फॉरेन आमचें मूळपीठ फॉरेन आमची भास*
*फॉरेन संस्कृताय आमच्या नेण्टयांची मिरास*
... ... ... ...
*जिवीं आमच्या भोग आनी चलणुकेंतूय भोग*
*आमच्या मनींमुखीं सदां दुस्वासांचो रोग*
*दुर्बलांचो ग्रास काडूंक काडूं केदेय त्रास*
... ... ... ...
*सुटांबुटां ओड आमकां मोनजातीचो ‘मोग’*
*व्हिस्की मुखार तुच्छ आमकां सगलो सर्गभोग*
*तिचेच सयेन सोडूं आमी माणसुकेची ‘कास’*
... ... ... ...
*पूर्व आमचें ‘कट्टीवंत’ त्या परसूय फुडार*
*गोंय आमकां करचें आसा ‘भायल्यांचें कुळार’*
*गोंयच्या दोंगुल्ल्यांनी सगले धरून आसात आस ’*

गोंयच्या गांवठी फॉरेनराक उद्देशून हें विडंबन करूंक ना मूं?

‘दुःख कोणाक चुकना’ हे कवितेंत बाकीबाबान रामायण महाभारतांतले दृश्टांत दिवन व्हडाव्हडांची आवतिकाय वर्णिल्या. आचार्य आपणाल्या विडंबनांत आधुनीक काळांतल्या राजकर्णांचे दाखले दिवन सांगता.

‘हुच्च जाल्लें सुटना
मतदानाची ताप लागतना
पूर्वपुण्य कळना
मोरारजी भवजाळीं पडलो
परोपरीन घर घर व्हिडव्हिडलो
पूत मूत धन राज्य व्हगडलो
लागून या मायणा
जाल्लें व्हेल्लें घर आसून उंचेलें
ताईक पळया कितलें भोगलें

घोव देव आसून हुल्पली
जावन भयो दैना
अनंत हो तांडवां अतिरथी
वश जाल्लो जणू ताका श्रीपती
साह्य आसून 'ग्रामस्थ' म्हारथी
पडलें सामकें उदणा'

'तुज्या पांयार हांवें घाली उडी' ही बाकीबाबाची भक्तिकविता. देवाक पुराय आत्मसमर्पणाची भावना जागोवपी 'बुडय, नाजाल्यार पाय रे तडी' अशें पराथपी रचना. भारतीय संस्कृतींतली बायल आपणाल्या घोवाकूच देव मानून चलपी. पूण हो 'देव' जेन्ना आपलें घरदार, संवसार उमथूंक कारणीभूत जाता तेन्ना पातिव्रत्य कुशीन दवरून बायलेक म्हणचें पडटा :

*'म्हज्या कपलार 'हाणें' घाली उडी*
*जाता जाल्यार 'हाका' पाय रे तडी*
... ... ... ... ...
*'हाचें' जिणें जगा व्यर्थ समर्था*
*निव्वळ जळ दुख्खाक अनर्था*
*घाय हुलप हे लाय सार्थका*
*'हाचे' कुडीची घालून उडी'*

आचार्यान तरेकतरा विशय तरेकतरांनी आपणाले शैलीन हातूंत हाताळ्ळ्यात. गोंय आनी कोंकणीची ओड, स्त्री बद्दलची भावना आनी आदर, भुरग्यां वयलो मोग आनी देवा वयली स्रद्धा हीं ताच्या स्फुर्तिगितां, स्त्री गितां, शिशुगितां आनी भक्तिगितां हाचे वयल्यान जितलीं होलमतात तितलीच ताची आयच्या समाजा विशीं तळमळ ताच्या विडंबनांतल्यान जाणवता. ह्या कवीचो पिंड गीतकाराचो आसलो तरूय मुक्तछंदाचें हाका सामकेंच वावडें ना म्हणपाचें दाखोवपीय कांय कविता हातूंत आस्पावतात.

ह्या कवीचें हें पयलेंच पुस्तक आनी पयलोच काव्यसंग्रह. कवी म्हणटा :

*‘अमरपणाचीं मरणां जिखिल्ले*
*आयले कितले गेले कितले*
*अजूनय येतले, अशेच वतले*
*तांच्या रिणान हें दिलां थेंबान*
*नात्यान हें नातें वाड्डूं सुखान’*

कोंकणी सरस्पती मंदिराचे गर्भकुडींतलो हो ‘लामणदिवो’ आपणालो मंद प्रकाश रसीक कोंकणीभक्त वाचप्यांच्या मनांत फुलयत वचूं अशी प्रार्थना.

**– प्रा. प्रकाश थळी**
बांदोडें

26. 11. 1986

## दुसऱ्या आवृत्तीच्या निमित्यान

# दोन उतरां

**मुद्दाम** कोणेंय बरय म्हळें जाल्यार तकलेर पेंच येता. कवी म्हणून लोकां मुखार येवचें म्हणून केन्ना कविता बरोवंना. तशें आशिल्लें जाल्यार खूब कविता जावपाच्यो. आसूं. पूण जें कितें हातान घडलें ताची तोखणाय मात जाली.

बरोबर सादतीस वर्सां पयलीं जुलय 1984 त हांवें म्हज्या लामणदिव्याच्यो प्रती पांच स कोंकणीच्या म्हालगड्यांक धाडून दिल्यो. मडगांवां रावताले तांणी मेळिल्ले तेन्ना 'तुमचो कवितासंग्रह बरो आसा हं' अशें सांगलेंच. मडगांवांभायर रावताले तांणी केन्नाय मेळप जाता तेन्ना मुजरत कळीत केलें. खूब बरें दिसलें.

पूण 4 ऑगस्ट 1987 सोमाराक दनपारची एक चीट पोस्टमनान म्हाका हाडून दिली आनी ती वाचतगीर म्हज्याच कविताझेल्या कडेन पळोवपाची म्हजी नदर म्हाका बदलवची पडली. ती चीट आशिल्ली भौ. रवींद्रबाब केळेकारांची. म्हाका ती चीट वाचून कितें दिसलें हें हांव उतरांनी सांगपाकच शकना. त्या वेळार म्हाका आनंद जालोच. ताच्या वांगडा न पेलपा येदें जड वजें कोणेयतरी तुज्या माथ्यार दवरल्यार कितें जाता तशेंच कितेंतरी म्हजें जालें. ते चिटयेचीं कितलिंशींच पारायणां हांवें केलीं. उपरांत प्रियोळा तांच्या घरा तांकां मेळून आशिर्वाद घेवन आयलों. तरी लेगीत अजूनमेरेन तें वजें ल्हव जालें अशें म्हाका दिसलेंच ना.

कविता बरयतलोच जाल्यार म्हजी जापसालदारकी वाडल्या अशेंच ती चीट आनी तांची ती त्या दिसाचीं उतरां शिटकायतालीं.

आसूं छंद म्हणून जावं नाजाल्यार अभ्यास म्हणून जावं म्हजे कडल्यान घडिल्ल्या बरपाची काव्यप्रेमीनी दखल घेतली.

संजना पब्लिकेशन्सान म्हजो दुसरो कविता संग्रह 2019 त उजवाडाक हाडलो. ह्या कार्यक्रमांत जमिल्ल्या बऱ्याच इश्टांनी म्हाका म्हज्या लामणदिव्याचे प्रती विशीं विचारलें. थोड्या जाणांनी तो वाचूंक नाशिल्लो म्हणून आनी थोड्या जाणां कडेन ताची प्रत नाशिल्ली म्हणून.

म्हज्या धांदळी सभावाक लागून उरिल्ल्यो प्रती खंय आसात वा खंय दवरल्यात म्हणपाचें हांव विसरूनच गेल्लों. आनी ताच्यो प्रती उरल्यात काय ना हें लेगीत म्हाका खबर नाशिल्लें. मागीर थोड्या दिसांनी थोड्यो प्रती मेळ्ळ्यो पूण वेळ जावन गेल्लो.

त्याच वेळार दिनेशबाबान दुसरे आवृत्ती विशीं सांगलें आनी आज तो योग आयलो.

30-35 वर्सां पयलीं म्हाका जर आमच्या कोंकणीच्या म्हालगड्यांनी, जाणकारांनी व वाचप्यांनी प्रतिसाद दिवंनाशिल्लो जाल्यार हो आयचो दीस येवंक पावनाशिल्लो. आज हांवें तांची याद केली ना, वा स्मरण केलें ना जाल्यार तें कृतघ्नपणाचें थारतलें.

भौ. पुंडलीकबाब नायक, भौ. चंद्रकांतबाब केणी, भौ. यशवंतबाब पालेकार हांणी त्या वेळार प्रसिद्ध केल्ल्या तांच्या ऋतू (द्वैमासीक), दिसाळें, म्हयनाळें, यादस्तीक ग्रंथ (तीन दसकां) हातूंत म्हज्या कवितांक प्रसिद्धी दिवन वाचप्यांच्या घरांत पावोवन म्हाका प्रसिद्धी दिली. हे आनी अशा कितल्याश्याच म्हालगड्यांच्या हांव रिणांत आसां. जें रीण हांव जल्मांत फेडूंक शकचों ना.

हे दुसरे आवृत्तीच्या निमित्तान म्हाका तांच्या रिणांची जाण करून दिवंक मेळ्ळी म्हणून भौ. दिनेशबाब मणेरकाराचो हांव दिनवास आठयतां.

**– प्रकाश आचार्य**

'सुमित्रा'

घर नं. 729 / एच्, सां जुझे दी आरियाल,

सोनू टावनशीप, पोस्ट कुडतरी, सालसेत

मडगांव-गोंय 403709

# मांडावळ

1.

## हे स्त्रिये तुका वंदन त्रिवार

तूं भूमातेचो आविश्कार
हे स्त्रिये तुका वंदन त्रीवार

तूंच गे वात्सल्याची मूर्ती
मांगल्याची तूंच गे कीर्ती
भावभक्तीची प्रखर तूं शक्ती
तूं सर्गसुखाचो साक्षात्कार

रथी महारथी तपस्वी मुनी
नरसुर असुरांची तूं जननी
जगताची ह्या तूंच निर्मणी
गर्भांत तुज्या गे हो संवसार

आवय बायल धूव भयण रुपांनी
सेवा करी तूं तरातरांनी
पुण्य तुजी सासाय सायबिणी
अश्टांग तुज्या हें पुण्य पांयार

*मडगांव 19.10.1986*

2.

## याद

मोगाचे आमचे आई
तूं आमकां सोडून गेली
काळान तुका ओडून व्हेली
दुख्खांत सगलीं बुडून गेलीं

आई तुजी याद येता
मूर्त तुजी दोळ्यां येता
घोंटेरांतल्या सान पिलांक
सोडून कशी एकटी गेली

मनाक दिसता सपनांत येवचें
अपुरबायेन म्हऱ्यां घेवचें
उपदेशाचें अमृत दिवचें
सगली आस उडून गेली

जगां सगलें मेळटा आमकां
तुजे बगर दोळ्यां दुकां
शेजाऱ्याचो उलो आईक
आयकून तुजी याद आयली

जाली जायत चूक आमची
क्षमा तुवें आमकां करची
काळजाची ही मोगा याद
काळीज फोडून भायर आयली

*धारवाड 21.6.1966*

3.

## वाट पळयत सारतां वात

वाट पळयत सारतां वात अजून आयलो ना
चंद्रीम माथ्यार पावलो तरी रात कळयना
फुतफुतत कानां कानां
पाऊलवाटेर झेमलीं तणां
गळोवंक लागलीं पानां पानां दुकां रे सांत्वनां
तेल माल्यांत आयलें आटत
न्हीद दोळ्यांत येता दाटत
यादीन तुजे गाशे पिशे करती जागरणां
संवसाराची हीच गोडी
भोगतां काडीत काडाओडी
होंटींत मांयचे घडीघडी थोमणे पडटना
सपनांचो एकेक पोड
जुळोवन केलो सोर व्हड
गंधाविण तेच पोड सुकले माळटना
दुकाक एकेक झडून जाय
उरला सोराक सदळ वाय
थोमणे चुकयत घालतां पांय, घाय सोंसतना

*बेंगळूर 17.7.1986*

4.

## हो तीळ तुज्या गे पोल्या वेलो

हो तीळ तुज्या गे पोल्यावेलो
लीपय कोणाचो लागत दोळो

अशा दोळ्याचो ना गे भरवंसो
दिसता सोबित आसता वसवसो
शाण्या जिवाकूय करता हो पिसो
गे रिगता काळजां जसो सुळो

रुपस्थानाचेर सौंदर्यग्रह
चंद्रीमाचोय ताचेर अनुग्रह
कांय स्वगणासह सोमते नवग्रह
गे येवन तीळ हो थंय रेखलो

कोण तुज्या ह्या रुपा चितारपी
हिऱ्याचें अशें मोल पारखुपी
अबुद्द 'तो' जो भुंयेर धाडपी
कांय चुकुन लागिल्लो ताचो दोळो

कसोय तरी तूं तीळ हो लीपय
चुकय थोपय दोळ्यांची झोंपय
नाऽतर कोणाचेर हें सोंपय
गे नांवान ताच्या लाय वज्रतिळो

*कोल्हापूर 22.8.1985*

5.

## हांसुन नाचुन नाचुन हांसुन आमी खेळूंया

चल गो बाये हातांत हात घालून नाचुया
हांसुन नाचुन नाचुन हांसुन आमी खेळूंया

पळय फुलां हांसतात तुका कित्याक लजेता
चान्नें पुनवेचें गो तुजी वाट पळयता
जायो जुयो मोगरे कळे सांगात घेवूंया........हांसुन

रातचे किडे गायती तुका कशें गो आयकना
आयकून गितां धोलतीं झाडां कशें गो दिसना
धरून ताल तालाचेर गो आमी नाचू......हांसुन

झोंपय मारून वारो पळय पदर धोलयता
संवसाराचो सूर तुका म्हाका खेळयता
वाऱ्या ल्हारांर नखेत्रांचीं फुलां खुडूंया ......हांसुन

उखल तुजीं पावलां मोगा कित्याक उखलनात
लजेवनाका तुका आतां कोणूय पळयनात
संवसारांतलें सूख आमी सगलें पिवूंया.......हांसुन

चल गो बाये हातांत हात घालून नाचुया
हांसुन नाचुन नाचुन हांसुन आमी खेळूंया

***धारवाड 21.1.1968***

6.

## तुज्या मोगान गो म्हाका लायलें पिशें

तुज्या मोगान गो म्हाका लायलें पिशें
म्हज्या काळजाचें कडलें शिशें

सांगात हांवें पयलीं धरलो ना
धरलो सांगात अजून उरलो ना
यादीन तुज्या गो जीव बेजारता
सांग गो आतां विसरूं कशें...........तुज्या

दर्याचे वेळेर शेताचे मेरेर
यादीक तुजे बसतां हांव झरीर
पळोवन तुका गो जीव फुलून येता
धांवन यो गो तूं सोडून रुशें..................तुज्या

मोगान तुका आपयलें हांवें
पिसो करून धुकल्लो तुवें
वांगडा तुज्या तरी व्हर म्हाका
कितले दीस हें चलचें अशें..........तुज्या

पयलींचें तुजें तें उलोवणें
नदरेचें तुजें तें आपोवणें
दिसता तूं आतां उडून येता
विसरून सगलें तूं कर गो हांशें .............तुज्या

*धारवाड 21.1.1967*

7.

## पुनव

पुनवेचो चंद्रीम आसचो हो मळबांत
ल्हारांय भरतेचीं हीं अशींच दर्यांत
आळींत वेळूनी गीत गो गावचें
तेन्नाच तुजें म्हजें संगीत जुळचें

रेंवेंच्या रुप्यांत पावलां पयसावचीं
धतरिचे पाचेर दोगांय सुखावचीं
दोळ्यांत म्हज्या तुवें रुप गो तेळचें
तेन्नाच तुजें म्हजें मिलन जावचें

चंद्रीम मुमुरखोसो लिपता थंय कुपांत
लजेत तशी येवची म्हज्या तूं गोपांत
दोगांयनी आपसूख ओंपून घेवचें
तेन्नाच युगांचें नातें गो जुळचें

हरयाळीक आंगां येवचो गो शिंवर
झाडांपेडांनी ह्या फुलचो गो चंवर
सैमाच्या विश्वां ह्या एकरूप जावचें
तेन्नाच जिवांचें द्वैत हें सोंपचें

*मडगांव 21.1.1984*

8.

## दवर हें ध्याना

दिल्ल्या घरा वतना बाय गो
दवर हें ध्याना
मेले बगर अजून कोणाक
सर्ग दिसलो ना ..................।।पा।।

आवयन बापायन घाल्ल्या जल्माक
सार्थकी तूं लाय
दिल्ल्या घरा जाल्ल्या घरची
गावची न्हय तोखणाय
समज दुख्ख दिसलें जाल्यार
सूख पयस ना.....................।। मेले बगर ।।

उतराक उतर लायतना बाय
तांतलो अर्थ जाण
जाणून दिल्ल्या उतरान मेळटा
संवसारांत मान
नकळटनाय जाल्ली चूक जी
भोगची चुकली ना...............।। मेले बगर ।।

उजळ मठी दिल्ल्या घरची
तोच तुजो सर्ग
हाचेय परस पुण्यायेचो
येवचो ना गो योग
फेडूंक रीण जल्माचें ह्या
जल्म दुसरो ना................।। मेले बगर ।।

*मडगांव 21.1.1981*

9.

## आयली सर्गकळा गे घरा दारा

तूं हुमरो हुपुन ह्या आयलि घरा
आयलि सर्गकळा गे घरा दारा

युगायुगांची ही अखंड प्रीती
सोदीत आयलीं नातीं–गोतीं
अंतीम हांव 'तो' तूं गे 'तीच' ती
बांदुन गेलीं अशिं एका दोरा

तुज्या गे बळग्यान सोंसलें भोगलें
मर्म जिणेचें आगळें वेगळें
जल्म जल्म आमी सूख जें मागलें
मेळ्ळें फळ्ळें तें आयलें भारा

रंग नुल्ले जरीय फांतोडेचे
तोखणायेचे अपुरबायेचे
तरीय ते अप्रुप खीण मोलाचे
गांठीक उरले गे सांजे पारा

*मडगांव 17.11.1982*

10.

## नववधू

ही सुंदर सोबीत मूर्ती म्हाका
काळजाक कंवळी गे जाग दिता

लुकलुकीत हे दोळे हरिणीचे
दांत जशे कितें कळे मोगरिचे
उतरां न्हय हीं झेले सुरांचे
गे सातूय सुरांची लय दीता

मोऽवाळ काळो केंस रेशमी
मुखचंद्रीम हो पुनव भोंवतर्णी
हनुवटीची ही खळी, स्वामीनी!
गे रुपाक तूज्या पुट दिवन वता

तूज्या स्वासान मोगरी चंवरता
उतरांनी गाय गोठ्या ल्हंवरता
नदरेन पीडीत पीडा तरता
गे जळींमळीं पुण्याय पीकता

पावलां कणकणी वाजतीं पांयजणां
सुलुस तांचि ती कोणा लागचि ना
तांची लय ती मनाक रिगतना
गे भोंवर कसो तें धुंद जाता

*मडगांव 10.3.1983*

11.

## रितें काळीज

सगल्यांनी दिलो मोग
हांवेंय तेंच केलें
काळीज तुजें इतलें व्हड
अपुट ताणें भरलें
दितल्यांनी दिलें तशें
घेतल्यांनी घेतलें
दानत तुजी, तांची गरज
नकळटनाच नाडळें
मन म्हजें पिशें म्हणून
गायत रावलें दिल्लें
आज मेरेन यादीन ताचे
काळीज रितें उरलें

*बेंगळूर 21.7.1986*

12.

## दिवूं नाका रे यातना

पर्थून पर्थून याद येता
लामणदिवो हो लायतना
हुलपल्ल्या काळजाक तूं यादीन
दिवूं नाका आनी यातना

दीस सरता पूण रात सरना
यादी बगर ही जोत जळना
पिडणुकेंत धुकलून जीण
जिखलें कितें तें कळ्ळें ना

ओंपलीं जेन्ना पांयार सुखां
मोतयां जालीं म्हर्जी दुकां
असलीं सुखां भोगूंक कुडीक
ना रे ना आनी त्राणूय ना

दितलो जाल्यार दी रे दान
बळगें सोंसूंक फुडली जीण
असली जीण येवची न्हय रे
वांट्याक म्हज्याय बी दुस्माना

*मडगांव 21.1. 1982*

13.

## तुजे बगर आतां हें विश्व रितें

तुजे बगर आतां हें विश्व रितें
चिंतलें ना, तरीय जिखलें, सूख तें

अमुरपिक्या म्होंवाळ दिसांची
वेळेर तुजी ती भेट आमोरेची
गुंथलीं रे उतरां सूखसपनांचीं
जें घडलां दिसता घडलांच निकतें

पयलें मोगाचें उतर जोखतना
काळजा काळीज ल्हवूच मोखतना
खीण हो आमी कसो चिंतलो ना
मोनेळ दोगांकय पडली कितें?

कुडी दोन हो जीव एक जरी
सारतां खीण एकेक कसोय तरी
लक्ष सुखां ओतलींय जरीय तरी
तूं ना जो खीण तो मरण जितें

सवायशिणीचें दिलां तुवें दान
कुकमाचो हो आज मेळ्ळा मान
पांयार तुज्या ओंपून म्हजो प्राण
युगांयुगां मागतां हें नातें

*मडगांव 23.7.1983*

14.

## घे रे पुता एकूच उंडी

घे रे पुता एकूच उंडी धंयान कालयल्या
पळय तुज्या मामान भयणीक दुदान न्हाणयल्या
भाच्याची तर मामा मामयेक कितली अपुरबाय
मामान भाच्याक हाडल्या दुदाक पयली व्हिती गाय
आपल्या हातान मामयेन जाय-जूय बळयल्या
दितली मामी घरे घोंटां इतलें हें सोंपय
अवजाळींच मारता मागीर वचत थंय झोंपय
मस्त! कसो जाण्टेपणांत पावतलो उल्या
हांगाचे दोळे काडीत बाये दोळ्यांतलेंय काजळ
होंटींतले होंटिंतूच जाता गायचें दूद पातळ
दिश्ट कोणाची गे बाये लागली ह्या चल्या

*कोल्हापूर 18.8.1985*

15.

## दोळ्यांत तुज्या भरला जादू

दोळ्यांत तुज्या भरला जादू
रागान अशें पळोवं नाका
ओंठाच्यो पाकळ्यो बाये
वेगान अश्यो चिड्डूं नाका

सकला वयर जीव गो म्हजो
जाता बाये रुसूं नाका
हट्ट नि राग सोड हो मोगा
फुगून अशें बसूं नाका

नकळटनाय जाल्ली जी चूक
काळजां तुज्या कोंडू नाका
मोग केन्नाय जाता पिसो
म्हणून मोगाक दुखोवं नाका

*धारवाड 11.2. 1971*

16.

## पोरांकूय आयतें मेळ्ळें

वतालों सांजेचो असो देवळांत
येता वताले तशे लोक थंयच्यान
दिश्टीक ह्या चार चेरे बोवाळांत
पडूं दी तरी ह्या देवाच्या निमित्तान

अकस्मात म्हजे नदरे मुखार
चलये फाटीं एक लागलो टवाळ
कीतें करूं हांव आयलो सांवार
हीरो सो वागूं काय करूं बोवाळ

दांतांदांत घश्टून मुठी आंवुळ्ळ्यो
पांयांनी थोडी माती सारली कुशीन
धांवून नेटान धरून केश्ट्यो
फिरयलें ताचें तोंड म्हजे कुशीन

ठठाठा ठठाठा ठठाठा ठठाठा
म्हायुद्ध चल्लें थंय दोनूय पळां
मागीर ना काम तांचेर सोंपयलें
तसो हात पांगरून बसलों खाला

तसो परतो जालो थोडोसो बोवाळ
मुठींचो जोत्यांचोय जालो प्रताप
चाकू सुरे ना म्हणून वाटावलों
थंय कोण म्हणटालो, ‘नाकूच काप’

'जनाचेंय ना मनाचेंय ना कमराचें तकलेक
पिरायेक ना सुद्ध हांगेल्या कर्माचे हे लेख
भुरगीं म्हणून ना मागीं म्हणून ना हीच हांगेली देख
अशें घडूं जाय अशें पडूं जाय असो पडूं जाय शेक'

'कोणा खातीर हें युद्ध हांवें केलें
कित्या खातीर हें द्वंद्व उबें केलें
घोळयत एकूच हें घरा दारा पावलों
मुखार साक्षात चंडिका पळोवन रावलों

अर्धांगी काय मर्दानी ही तिनसांजच्या पारा
अस्त्रां शस्त्रां घेवन घरांतलीं रावल्या उबी दारां
खांचीखुचींतल्यान काचींबुचीं तकल्यो भायर काडून
मिळमिळीतशें हांसून खांकून पळयतात मोखून

सर्वांगी सुंदर अशी ही सभागी
रावल्या दारां उबी क्रुद्ध अर्धांगी
सान्न लाटणी हातांत, केंसूय सोडयल्यात
हरशींच दोळे मोटे तातूंत ताणयल्यात'

'यो रे असो पयलो घरांत सांगतां सभाग्या
लग्न जावन पडलां अशें नरकां अभाग्या
खावचें कित्याक शेण भायर घरांत आसतना
सगलें सोडून धरला मार्ग देवळांत वतना

वयर लेगीत इतले बेगीन 'तो' य व्हरचो ना
हजार फावटीं जाय चिंतूंक तुमकां व्हरतना
वाडट्या चलयांक गांवांत पसून फिरूंक जालां भंय
घालूं कशी आतां बाये हांचे 'हाका' वंय'

'आगे आगे तूं उलयता कितें तें
पळय शेजाऱ्यांक जालां नाटक फुकटें
आतां सांगतां तें सारकें घे गे आयकून
बेठींच सोडिनाका अस्त्रां अशीं शेंवटून'

जें घडचें आशिल्लें घडलें । पोरांकूय आयतें मेळ्ळें
शेजारी सगले जमले । समजावूं कोणाकोणाक
गोडाक जशे गा दोमळे। लागलीं थंय तोंडां कानाक
बायलांय तशे भोव दादले । पोरांचें पडलां कोणाक

तीं दांत दाखोवन हांसतालीं
ही वयल्या ताळ्यान कासताली
म्हज्या जाणट्यांचेंय तासताली

थंय श्राद्ध तिणें जें चलयलें । पोरांकूय आयतें मेळ्ळें
तेन्ना सावन ही अर्धांगी । राखूंक म्हाका रावताली
वांगडाक तिचीं तीं भुरगीं । वराक एकेक झेमतालीं
राखूंक जणूं कांय फिर्गी । हाल्लोय तरी संवतालीं

तांकांय जालें हांव बावलें
फुकटांत खेळूंक जें मेळ्ळें
सगल्यांनी सोडून सगलें
जें भोगचें आशिल्लें भोगलें। पोरांकूय आयतें मेळ्ळें

*कोल्हापूर 24.8.1985*

17.

## ताणें म्हळें

ताणें म्हळें
पळय ताका
वचत थंय
तो जळयता
आपलें मूत
पापयांनो
तशें म्हणूं नाकात
ताणें आपलीं
हाडां जळूंक घाल्यार
तोच जळटलो
आनी
बसतलो मानेर
तुमच़्या
जावन भूत
जळोवंक
तुमचेंच मूत

*मडगांव 21.7.1985*

18.

## हुनसाण

एक दीस
एक रात
आयली अशी हुंवारान
आनी
सुर्याच्या होमखणा सारकी
जळटी म्हजी कूड
लागली कुडकुडूंक शिंयान
थोडे झेलाद झेलाचे खडे
पयल्या हाती सोमरसांत
ताका आनीक चडूंक पूट
घालून
पियेवन लेगीत
उदका सारकें गटागटा
वखद म्हणून
येना जाली म्हजे कुडीक हुनसाण

जाय तितली
कोणें म्हळें
तिगोवंक जीव हाचो
आतां फकत
वखद एक
कोलती
आनी
सोमरसाच्या वखदा उपरांत
कूड म्हजी
लागली सारूंक राती
रातीक एकेक
जळटी कोलती वेंगेवन
वखद म्हणून
आतां
म्हजी कूड
की
तातूंत कोणाकूय

थारूंक जावचें ना
इतली करपल्या
त्या वखदान
ते आयिल्ले
राती इतली
जाल्या काळी गुप्प
न्हय
तिचेय परस काळी
तरीय लोक म्हणटात
अजून कुडींत आसा जीव
अजून कुडीक आसा हुनसाण
पिशे
तांकां खंय खबर
कितले फावटी
दर्या मळब
केलें एक
फकत ही
तिगोवपाक हुनसाण

*मडगांव 21.7. 1985*

19.

## देवदासी

तूं दारां कित्या अशी घुटमळटा
परतता, परत रावता, तेळटा

हुमट्या बोटान जमिन कोरांतप
मुमुरख्यांनी गालांत तें खिदळप
चोरून नदरेन हळूच तेळप
ही खुबी, खूम काय मन म्हेळटा

तुवें माळिल्ल्या जायां सोरान
गंधित प्राकार जाला परमळान
भक्तगणांची नदरय पयसुल्ल्यान
गे अचकीत तूं ओडून घेता

गर्भकुडींतल्यो जश्यो ह्यो वाती
दोळ्यां तुज्या गे जळट्यो राती
पळोवन नकळत घेवंक आहुती
गे सज्जनाचोय जीव तळमळटा

सायबिणीच्या नांवान जमिल्ले
तुजे सयेन ते वाट चुकतले
पापीण कशी हे तुका लेखतले
जा सादूर, काड मनीं जें बळटा

*भद्रावती 13.5.1986*

20.

## ओंवळी रुख

जेन्ना हांव ते थंय पाज्जेर पावतां
तेन्ना म्हजें हांव भुरगेपण देखतां

आरे ओंवळी रुखा तुज्या दर्शनान
सोबीत नाजूक ओंवळा परमळान
जिणेचें कंवळें हांव सपन तेळटां

सोडूंक लागतां जेन्ना यादींच्यो गांठी
दिमखुऱ्यांनी वता तरणेपण फाटीं
माणकुले मुठींत फुडार सोदतां

सुखावतां जेन्ना तुज्या ह्या सांवटांत
दिसतां खेळटां पळटां मल्लांच्या माटवांत
वाऱ्या ल्हारांर ह्या म्हाकाय विसरतां

मूळ न्हय तुजी ही आवयची मांडी
हुल्पल्ले जिणेची जादवाची कांडी
कुशींत तुजे म्हजी भूकतान न्हिंवता

दिसता तसोच तूं जा अर्थीन आवय
पायला हांगा तसो अंता रे पावय
यादीन तुज्या जेन्ना जिण खिण थारायतां

*मडगांव 21.1. 1985*

21.

## एक आसलो सोंसो

(शिशुगीत)

एक आसलो सोंसो
आसलो थोडो पिसो
नवोच भायर सरिल्लो
सैम पळोवन पिसावलो
तेंच पळयत रावलो
पळयत झेमूंक लागलो
वारो थंयच्यान वतालो
सोंशाक पळोवन शिटकावलो
पळोवन ताका आयलो हांसो
दिसलें सोंशाक करचो पिसो
मात्सो धांवन पयस गेलो
तसोच सोंशा कानां सरलो
ससो जालो खडबडीत
दोळे केले बटबटीत
'कोण रे म्हज्या कानांत?
भायर सर खिणांत
आयलें जाल्यार मनांत
दीन वागा तोंडांत'
वारो भितर हांसलो

सोंसो नाचूंक लागलो
वारो भितर हांसता
सोंसो भायर नाचता
वारो म्हणटा, 'सोदून काड'
सोंसो म्हणटा, 'पडूं पाड'
'वाऱ्या वाऱ्या भायर सर'
'पयलीं म्हाका रानां व्हर'
'वाऱ्या ओगी रावचों ना'
' भितर कांयच आयकना'
सोंसो दमूंक लागलो
वाऱ्याक चेव आयलो
'वाऱ्या वाऱ्या पांय पडटां'
'व्हेल्यार रानां बेगीन सोडटां'
मुदलां सोंसो भिवकुरो
जालो भंयान रडकुरो
तसोच लागलो धांवूंक
वारो लागलो गावूंक
वाटेर सोंशाक आडायतात

आडावन ताका विचारतात
'धांवता कित्याक रानांत?'
'वारो गेला कानांत'
धांवन भोंवन आयलो
परतो घरांत पावलो
आवयन पुताक विचारलें
'आरे पुता, कितें जालें?'
सोंसो आयलो खोशेन
सरलो आवय कुशींत
घडली गजाल सांगली
आवयक काकुळट आयली
आवयन सांगलें, 'पुता!'
भायर सरूं नाका
पयलीं बरें शिकचें
मागीर भायर सरचें
लोक हांगाचे अशे
दुसऱ्याक लायतात पिशें
तांकां कामां नात
घालतात दुसऱ्याक फोंडांत
जावंक जाय जर व्हड
म्हण आतां परवड.'

*कोल्हापूर 14.8.1985*

22.

## शिरी शिरी पड रे पावसा

शिरी शिरी पड रे पावसा म्हज्या आंगणां
नितळ शितळ जावं दी सगलीं आवडेल्लीं मनां
नाका आमकां उटंगार
संवारपी नाका हुंवार
नाका आमकां रुद्र तुजें रुप वरूणा
सोंसूंक जायना उतळताप
चोंयवशीन हो चिखला रांप
न्हाणय निवळ जावं दी सगलीं बागो नी रानां
बीं बियाणें रुजूं दी
बाविल्ल्यो कोमऱ्यो फुलूं दी
पाचवीचार भूंय तुज्या रावं रे दर्शना
फुलूं फळूं शेतां भाटां
घर भरून धनां मोटां
जावंदी तुश्ट भरून पुश्ट रुश्ट हीं मनां

*मंगळूर 1.6.1984*

23.

## सोयरे

आरे कावळ्या, पाडसा वयल्यान रडटा कित्याक सांग
येतात तितले येवंदी सोयरे कितले येतले सांग
न्हावंक धुवंक सोयऱ्यांक आमच्या थंड पाटा-उदक
रातदीस न्हालो तरीय जावचें ना तें बादक
सुरय तांदळा शीत ताचेर अवल नाल्ला कडी
भुरके मारून जेवले बगर गायना कोणूय गोडी
सोयरे आमचे देव तशी वासरी गर्भकूड
तांच्या आशिर्वादान आमच्या हातांत यशा चूड
सोयरे येतात तेन्ना येता घराक वेगळी कळा
पितर आमचे तुश्ट जावन भाग्य येता फळा
येतले तेच आसचे बाबा चारूच दिसां सोयरे
भाग्य आमचें वचून जायत आमीच तांचे सोयरे

*नाशीक 2.10.1984*

24.

## आमचें न्हय तें न्हय

सरणाचें मरणाचें आमकां लागना भंय
असलीं मरणां जियेवन आमी मारूं गांठी ध्येय

आमचें आमी श्राद्ध केलां
बसल्यात आतां रुजोवन मुळां
तिसरो दोळो उक्तो केल्यार जातली थोडी भूय

ना आमी अजून तांतयांत
तशेंच तुमच्या ना पोशांत
असलीं बेगडी तोडून नातीं जिखूं आमचें स्वय

आमकां मोहपाश नाका
उश्टें नश्टें आमकां नाका
आमचें आमकां मेळोवंक आमी तोडूं भायली वंय

भायल्या रुपाक भाळचे नात
त्या दुदाक विसरचे नात
तें जें रगत व्हांवता अजून ह्या शिरांनी जंय

तुमची भाकरी तुमकां व्हड
आमचो निवळ आमकां गोड
हड्डें पेटून सांगूं आमी आमचें न्हय तें न्हय

परतें रगत सांडटलें
नाक तुमचें घाणटलें
चिंतून सगलें घालात नाक आसा जाल्यार थंय

*कोल्हापूर 26.8.1985*

25.

## उद्धार

कोण म्हणटा
आमी जल्मल्यात
आमी तर
अजून आमचे
आसात आवयच्या पोटांत
एकामेकांचीं
कालां-किलां-कुळां
वयर काडीत
झगडत
सडत
कुसत
तिच्याच रगताचें
करीत शोशण
कोणेय तरी
भामट्यान

फुगयलां तिचें पोट
अज्ञानाच्या काळखान
मळबायेदें
आतां तिश्टयात
पळयत वाट
तिच्या णव म्हयन्याची
नाजाल्यार
सरात भायर
फोडून पोट
दाखोवंक आमचो पराक्रम
आमी
जल्मल्यात म्हणपाचो
तिचो करूंक उद्धार

*मडगांव 21.7.1985*

26.

## जायात जागे

आज पुतांनो जायात जागे
पूत आसून जावन दूत
रावल्यात कित्याक अशे ओगे....जायात जागे

आपले म्हणून आयले दारांत
परकी आमी आमच्या घरांत
भांगर म्हणून कांकणां घालीं
लोखंडाच्या तुमच्या हातांत
आज मोनेळ पडली जाल्यार
जातले तुमी तिचेच चेडे ..........जायात जागे

दिवन तुमकां जल्म हांवें
जावन सवत पडलां घरांत
आज म्हाका उगडी नागडी
करूंक सोदती म्हज्याच दारांत
घालात तुमी जावन एक
हांच्या बाराव्याचे वडे ...........जायात जागे

आज ह्या रे दळदिऱ्यांनी
घाला म्हज्या न्हेसणाक हात
झेमले जाल्यार अशे तुमी
करतले हे म्हजो घात
शिरांनी जर व्हांवता आसत
अजून म्हज्याच रगता थेंबे .........जायात जागे

उक्ती म्हाका उडोवन अशी
झेमती तुमी गादयेर बरे
हेच गादये पोंदां फाल्यां
येतल्यो तरसादी नि सुरे
शिमरेपणान तुमच्या जातले
जाणटेल्यांचे स्राप जागे ............जायात जागे

घरांत आतां एकूच ध्यास
कोंकणी आमची आवयभास
हीच आमची आस, स्वास
हीच आमची राजभास
हिचेच खातीर जगूं, मरूं
घालूंय भुंयेर रगता सडे.............जायात जागे

*मंगळूर 19.12.1985*

27.

## बेकार आसतना

आयलें मना
जावचें कवी
बेकार आसतना
तिनूय त्रिकाळ
बसलो ं घेवन
फोली, तींत, पेनां
बरोवन बरोवन
जालों बेजार
कवन पाझरना
मोखूनं दिलीं
आयदां सगलीं
शीण नासतना
'चल्लां कितें
पिशा भाशेन?

मात समज ना
जातले कशे
अशे तरेन कवी?
समजना!'
मन म्हजें
जालांच पिशें
तरीय दुख्ख ना
बायल कित्याक
हांसची पळोवन
अजून कळ्ळें ना

*मडगांव 1.5.1981*

28.

## बाटगो बटुरगो लायता वाणी

बाटगो बटुरगो लायता वाणी ना त्या थंय गा तोपयांची
तोपयां वांगडा आसचीं पडटात बोडां गा राजकर्ण्यांचीं

तांच्या बोडा गा नाकात तोपयो राजकर्ण ना तोपयेंत
म्हणटी सगल्यांक घालूं तोपयो घालूं सगल्यांक पोतयेंत
कोण मूर्ख तो सांगपी तुमकां गांधी तोपी बरी हो
गांधीच फिरले उक्त्या बोडान गा तोपी न्हय ही खरी हो
मंत्री काय वाजंत्री आमचे तुमकां जाय तो भेस करूंक
म्हणशी फाल्यां जाय तर सत्ता बोडां जाय तीं तासूंक
बाटगो बटुरगो.........

दिसता तुमकां मारून शिक्के केले तांकां राजा हो
सांडून घरचें चोखूंक उश्टें तरणेपणा ही सजा हो
घेतले ना गा शिक्के तुमचे तकली दवरून घाणाक
रातदीस फिरून दारांनी आयलां तांच्या भेंडांत
जाले 'ते' थंय मंत्री म्हणून तर तुमच्या बोडा ना ताप हो
कित्याक 'मेणाचें कडोवंक' पळयतात नसतें बोडार हें पाप हो
बाटगो बटुरगो .........

मंत्री 'वयले' घालती तोपयो लोकूय थंयचे बरे हो
तोप लोखंडाचे घालूंक जाय आमी वतले घरा जर बरे हो
नासता पापया राजकर्ण हें बोडांत आनी तोपयेंत
आसता सगलें 'ब्रह्म' 'महात्म्य'य दिसना जे ते पोतयेंत
समजिकायेन वागात आतां जायात आतां शाणे हो
भरली पोती मारले शिक्के रावात आतां मोने हो
बाटगो बटुरगो ........................

*मंगळूर 3.6.1984*

29.

## दैव कळ्ळां हें कोणाक?

दैव कळ्ळा हें कोणाक?
सत्यभामेच्या प्राजक्ताचीं फुलां रुक्मिणी दारांत

सूर्य तळफेता झेतान मळबांत
चंद्र झळकता आपल्याच तोऱ्यांत
गिराण चुकलें ना तांकांय तांचें दाग जाय ना कांय खिणांक

राज्याधिपती राम, ना विलास
ताच्याय नशिबीं आयलो वनवास
दशरथ राजा पुत्रवियोगान पडलो दुख्खा केणांत

सूर्यपूत जावन जीण जिखचेलो
सुतपूत जावन कर्ण वळपलो
कुंतीमायेक दुख्ख चुकलें ना आसुन माणकांच्या मेण्यांत

देवाकूय जंय दैव चुकलें ना
मनशांकूय ना ना तें चुकचें ना
सूखदुख्खाची भरती सुकती आसता जिणे-दर्यांत

दैवाच्या ह्या काळचाकांची
तेव्हून आटी जीण सारपाची
आयचो भिकारीय जावये फायचो सार्वभौम राज्यांत

*मडगांव 31.8.1986*

30.

## म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
चोंयवशीन दरी दोंगर
शेतांभाटांनी ह्या पिकता
तांबडे मातयेंतल्यान भांगर

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
निळ्या मळबाची रे सत्री
व्हंकल कशी रे धर्तरी
पळोवन येता दर्या भरती

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
दर्या रुप्याची रे खाण
उपसूंक रुप्याच्यो त्यो राशी
खारवी उखलासतात प्राण

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
सैमाच्यो त्यो तोखेवन सर्ती
ताळ्याताळ्यांनी रे कोगळां,
सुकणीं उमाळ्यांनी गाती

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
देवळां इगर्जींच्यो घांटी
जांच्या तांच्या त्या कर्माच्यो
दिती हातार तांच्या पावती

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
जायो जुयो मोगरे कळे
सुरंगां ओंवळांच्या परमळान
धुंद जागर उत्सव काले

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
माड माडयो आंबे केळीं
मागीलदारां एकाच माटवार
तवशीं कारात्याच्यो वाली

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
आसात असलीं हळवीं मनां
करतात दितना सूख जड
आपलें दुख्खूय तें गिळटना

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
घोंटां साठां काजू म्होवले
घरे म्होंवाळ तशेच कापे
रुचीन भायले थंय पावले

म्हज्या पाचव्याचार गोंयांत
म्हजे यादीन सगलें भागत
केन्ना वचनशें थंय जालां
हांवूंय काडटां राती जागत

*कोल्हापूर 16.8.1985*

31.

## मना मना

आगो मना, मना, मना
उडूं नाका तूं गगना
पांखटे तुजे इतले ल्हान
भूंयभरवण जातलीं खिणां

व्हडांक व्हड आस स्वास
ल्हानाक पुरो इल्लो स्वास
हड्ड्या भितर धरून आस
मारची पावली फुडल्या खिणा

वयल्या सुखाक भाळून अशें
उडले झडले लाख पिशे
हारशांतले मायेक अशें
पडूं नाका तुंवूय घाणा

*बेंगळूर 21.7.1986*

32.

## इतलीं सुखां आसतना भोंवतणीं

इतलीं सुखां आसतना भोंवतणीं
खिन्न कित्या तूं मना

तुजे खातीर हो सूर्य उदेता
किरणांतल्यान घे तेज रकयता
काळवेळ दाखोवन जागयता
काळवेळ नासतना

दोंगर घळी जळींमळीं इप्रितान
न्हंयो बांयो तळीं वझरे अमृतान
झाडां पेडां वाली धुंद परमळान
भरिल्लीं हीं आसतना

ह्या सैमान शतकोटी करांनी
दिलां तुका हें तरातरांनी
घेतलो जरीय तूं थेंबाथेंबांनी
हात तुजे पावचे ना

आनी कांयच मोलाविण मेळना
श्रमाविण मोल कोणा वळखना
मोलाविण श्रम तुजे आसतना
घेवंक तुका कळना

संवसाराच्यो सगल्यो अडीनडी
श्रमाविण लागनात रे तडी
जाण जिणेची पयली ही गोडी
खंती असो जावचो ना

*कोल्हापूर 21.8.1985*

33.

## शेणलें तें शेणलें

शेणलें तें शेणलें
आज मेरेन सोदून मेळ्ळें ना आठयपार सोदलें

आसलें तें वाऱ्यावरी चंचल
गंगेवरी भोव पवित्र निर्मळ
फांतोडेचें म्होवाळ सपन तें अर्दकुटें भोगलें

चौगां आसली ताची अपुरबाय
जाण्ट्यानेण्ट्यांत ताचीच तोखणाय
भांगर सुलाखी आसलें अभाग्या तेन्ना ना कळ्ळें

तेन्ना कळ्ळें ना मोल वज्राचें
आतां कळटा जें सुके बडयेचें
आज आसुनूय भांगरा शिंगरां जाण्टेपणान नाडळें

आज पुंजायतां म्हजीं हांव सरणां
वाट पळयत त्या फालच्या मरणा
रातीचो ना आतां भरवंसो जायत ना जायत फालें

कुड्डो जावं नाका पोशां आसतना
सोदूं नाका जें शेणलें नासतना
मणिमोतयांच्यो ओतून राशी मेळचें ना जर शेणलें

*कोल्हापूर 12.8.1985*

34.

## ह्या दर्याचे पलतडीन

ह्या दर्याचे पलतडीन
वाट म्हजी थंय पळयता
सूखदुख्खाचें हें जिणें
ह्या दुख्खांतूच वावुरता

दाट धुक्यांत सूख थंयचें
दिसून दिसना फटयता
सपनी म्हज्या येवन रुप
आस दाखोवन भुलयता

सोड जिवा मोह आस
वान्सा खोटी खेळयता
नशीब तुजें पलतडीन
वाट तुजी थंय पळयता

*धारवाड 30.9.1968*

35.

## मोलादीक जीण तुजी

आरे जिवा भोग अशे
भोगता कितें? भोगून सोंपनात
मोलादीक जीण तुजी
सोंपतली ही खंयच्याय खिणाक
भोगचेलो हो जल्म जरी
'वयल्यान' तुज्या दिला हातांत
वगडावं नाका खीण तुजो
रडटलो तूं खिणाखिणाक
घामाच्यो झरी व्हांवोवन
तीर्थां जालीं जांच्या घामान
उतरांनी फातर फोडून
देवळां जालीं जांच्या उतरान
देख तांची घेवन जिवा
प्राण आज लाय पणाक
मोलादीक जीण तुजी

सोंपतली ही खंयच्याय खिणाक
दिलां कोणें? घेतलां कोणें?
कोणाच्याय कोण ना रिणांत
वायट बरें चिंतलां कोणें?
कोणाचें ना पडलां कोणाक
तुवेंच तुजो मारचो फोंड
अंत तुजो त्याच फोंडांत
मोलादीक जीण तुजी
सोंपतली ही खंयच्याय खिणाक

*लोलयें 17.5.1982*

36.

## तांच्या रिणान हें दिलां थेंबान

हें गांव पयस जालां लागिं रान
नात्यान हें नातें वाडूं सुखान

थोडी भोऽव ही जीण विणटना
जोडलें मोडलें कितें नात उरली ना
दिल्लें बळगें तुवें आज स्मरतना
दिसता फीटचें ना रिण मरणान

धुव कवनाचि हीं उतरां सोदतना
केन्ना वयार ही आयली कळ्ळें ना
बोलकी जरी ना तरी मोनी ना
आपणावन स्नय दी-घेवन हें दान

दिसता दिवचें खूब मनांतसून
आसा ना तें दिलां हें सांसपून
चड उणें जरी घेयात मानून
घेवन मुक्त कर-दिल्ल्या मोलान

दिल्लें घेतिल्लें उरलां कोणाचें
गांठीक आसचें उतर मोलाचें
दिवचें घेवचें बळचें फुलचें
फळचें तें आपसूख-कणाकणान

झेमत चल्ल्या आतां ही पिराय
जाण्टेपणा ह्या वखद ना उपाय
ही सैमाची सोबीत नवलाय
सांगता झडूंक जाय-पिक्या पानान

अमरपणाचीं मरणां जिखिल्ले
आयले कितले गेले कितले
अजूनय येतले अशेच वतले
तांच्या रिणान हें दिलां थेंबान

*नाशीक 11.10.1984*

37.

## कोणाच्याय घालिनाका हातांत

म्हज्या काळजाक जें भोगता सांगून कोणाक कळचें ना
कोणाकूय खंत ना ताची कोणाकूय जाण येवची ना

दरेकल्याक मेळटा जें भोगूंक भोगूं जाय तें ताचें ताणें
रडून कोणाक चुकलें ना मोखूं जाय मोखचेलें पेणें

मरण हें चुकलें ना जाल्ल्याक खबर हें आसतना म्हाका
भिरांकूळ जावचें मन कित्याक म्हजें हें कळना रे म्हाका

दिल्लें जें तें बांदून तेन्ना तशेंच रे सांडलां हें हांकां
कणाचीय आस धरूंक ना भरयलां कणकण तांकां

तरीय तें सोंपना ह्या हातान दी रे हे हात जाय जांकां
रिणांतल्यान मुक्त कर आतांच सुखाचो स्वास दी म्हाका

भोंवतणीं भुतावळ भरती ओत्ती कानाक विखा पेले
मेल्ले थंय जावन ते आपले दिती आतां उल्यार उले

मनाचें जें म्हजें दुखणें सोंसूंक जायना आनीक आतां
एकूच अंतीम रे मागतां कोणाच्याय घालिनाका हातांत

*मडगाव 21.5.1983*

38.

## पळय कुडीक जीव हो सोडून वता

‘कोण थंय कोनशा त्या दुकां गळयता?
‘आज कुडीक जीव हो सोडून वता’
‘न्हय तुजो कोणूय तो असो लागींचो
आवयबापूय भुरग्यांपैकीं नात्याचो
कित्याक पापया बेठींच दुकां गळयता?’
‘आज कुडीक जीव हो सोडून वता’
‘मेजती अंतीम घटी, नांवान ‘संजीव’
संवसारा ना खंयचोय जीव चिरंजीव
आसून सभाग्या ही देख, तळफेता’
‘आज कुडीक जीव हो सोडून वता
संवसाराची ना ह्या म्हाका रे खंत
म्हाकाय दिसता म्हजो असोच अंत
खीणा जल्माचीं ह्या दवरूंक पळयतां
पळय कुडीक जीव हो सोडून वता’

*बेंगळूर 2.1. 1986*

39.

## अमरत्व

कोण सांगता
हांव मेलों
हांव म्हणटां
ताणें घेतिल्ल्या
म्हज्यां नांवान
हांव अजून
जितो आसां

*मडगांव 21.7.1985*

40.

## ताची नवलाय

खीण आयलो जर तर ना उपाय
तूं, हांव हांव करून कर बडाय

म्हजें तुजें हें ओगीच म्हणचेलें
हाडलां कोणें? कोणें व्हरचेलें
जोवर मेळटा तोवर भोगचेलें
हातूंत जिणेची खरी खोलाय

खामसुत्री आमी 'ताचीं' बावलीं
इत्सा 'ताची' तशींच नाचतलीं
घेवन हांवपण खंय हें विकतलीं
बसला रोवन 'तो' छातयेंत पांय

जोवर नशीब हें आसा सबल रे
तोवर करची ही जीण सफल रे
अमरपणाचीच धरची आस रे
मनीसपणाची रे हीच खोलाय

जल्मा पयलीं थंय मरणां जल्मतात
आमच्या कर्माची कीर्द उगडटात
व्यर्थ आमी हें हांवपण गायतात
'हांव' तूं ना 'तो' 'ताची' नवलाय

*कोल्हापूर 30.8.18985*

41.

## हांव

हांव
तुमच्यांत आसा मेरेन
हांव तुमकां
म्हज्यांत दिसचो ना
हांवें म्हाका पळोवपाक
म्हज्यांतलो हांव
हांवें भायर काडला
तुमच्यांत दवरूंक
म्हजे खातीर
तुमी ताका
दिल्यार थारो
अपुरबायेन
हांव
म्हाका वळखतलों

*मडगांव 21.7.1985*

42.

# कोंकणीच्या मूळ पुरसा

कोंकणीच्या मूळ पुरसा
कोंकणीच्या आमच्या देसा
करतात तुका वंदन
कर तृप्त आमच्यो आशा

कोंकणी ही आमची मायभास
कोंकणी ही आमची मीरास
आमचे जिबेर ही खेळूं
आसा मेरेन हो स्वास
ह्या सगल्या संवसारार ही
उदेवं कोंकणी उषा

जातीन जावूं खंयचेय
आमी पूत तुजे भूंयचे
पोटाक लेगीत केन्नाच
आवयक ना विसरचे
आमी पिडून काडूं त्या
आवयक पिडपी नासा

दियात बुद्द आमकां
दियात शक्त आमकां
तरूंक तड, हुंवारांत
फुलोवंक कोंकणी साळकां
मरणाकूय वेंग मारूंक
सारून सुखां कोनशा

*मडगांव 15.8.1986*

43.

## जावं कसोटी वज्राची

ना गे ना नाका अशी सांडूं दुकां हीं मोलाचीं
हीं सुखां तेच्या पानार थेंबे कशे गे खीणाचीं

सूख दिलें, सूख घेतलें, सूख भोगलें ना कोणें
ही गे समजीकाय मनाची ही जी जाण गे मानपाची

जीण ही दिल्या 'ताणें' जी अप्रुपांची खाण गे
खीण येता एक असलो ही कसाक गे लावपाची

दीन दुबळ्यां ना सुवात संवसार सारपा हो सुखान
जा सादूर, लाय गे कसाक लाय, जावं कसोटी वज्राची

*मडगांव 15.3.1985*

## 44.
## सपन

कळना हो जो कोण रातीन येवन सपन परतता
ना ना म्हणटां म्हणटना गे जीव जिवा तो लावन वता

गुलाबाच्यो घेवन कळयो गंध जिवाक लायतना
सूख काय ह्यो यातना, कळना, जिवाक पूण जाय जाता

सांठोवंक ह्या दोनूय दोळ्यांनी रुप ताचें येवजितां
रिगतना काळजांत तेन्ना सगलें हांव विसरून वतां

येतना येता उडत उडत चंदनाची लावन पांखां
वतना भोव अप्रूपशीं ओलीं सुखां ओतून वता

कशें कोणाक सांगूं बाये लजेतात उतरांय ताका
जालां हें काळीज कुळार गे जाय तें तो भोगून वता

*कोल्हापूर 14.1. 1986*

45.

## चल मना चल तूं चल

चल मना चल तूं चल खंय तरी पयस तूं चल
ह्या समाजाचे हे आडे सडे हुपून तूं चल, चल

चल तूं त्या जाग्यार जंय कोणूय पावचे नात
म्हजे तुजे बगर गो जंय कोणूय आसचे नात
युगांच्या बंधनाक जंय हे आडेय उरचे नात
ह्या तुज्या मेकळेपणाक मेळटा जंय थळ, चल

आसची थंय सोबीत शेज धर्तरीचे पाचूची
ओडून घेवंक मेळची शाल शीतळशा चान्न्याची
घुमचीं ह्या कानसुलांनी मधुर गितांय दर्याचीं
चोंयवशीन व्हांवता हो जंय वारो नितळ, चल

दगदगां ह्या आनीक तूं कितलो तेंप रावतलें
हांगाच्या मोहपासांक कितलें आनीक भुलतलें
तुज्या ह्या हळव्यापणान तूं हांगा गो शेणटलें
नक्षत्रांचें ह्या धरून ध्येय घोंटेर सोड तूं, चल

चल मना चल तूं चल खंय तरी पयस तूं चल
ह्या समाजाचे हे आडे सडे हुपून तूं चल, चल

***कोल्हापूर 21.1.1986***

46.

## आमचें नांव वयर काडूंक

(विडंबन)

आमचें नांव वयर काडूंक भुरगे जाले म्हान
घरां दारां जालीं बार्रां कुडींत नुल्ले त्राण

रगताचें उदक करूंक रात जागयली
हांणी रात जागयली
संवसाराची 'शांत' करूंक तान भागयली
हांणी तान भागयली
तिठ्यार गांवच्या गाजता हाचें फायचें यशोगान

जाण्ट्यांचेर रीण काडून दीस धुकल्ले
हांणी दीस धुकल्ले
स्रद्धेचे कोंब मोडून वंश किडयले
हांणी वंश किडयले
धट्टे कट्टे सडून जाले अपंगूळ प्राण

कणकीतली माय हांणी वयर (?) उखल्ली
हांणी वयर (?) उखल्ली
अवर्दिशेची सया हांणी सामकी वेंगायली
हांणी सामकी वेंगायली
कुळाक दिलो जोडून हांणी घटकेवरी मान

*मडगांव 15.3.1984*

47.

## आरे तें आमकां नाका

(विडंबन)

भुरगो : काय बरें राजकर्ण चलता
पळोवंकूय बरें दिसता
सोमतेंच कदेलार धोलता
पाय! हांवूय मंत्री जातां
बापूय : आरे तें तुका नाका, आरे तें तुका नाका
कोरस : एक दोन तीन चार
खावया सगले बरोबर
भुरगो : आसलो तोंडा वाजंत्री
जाला पळय आतां मंत्री
सोमतीच लायता कात्री
पाय! तुंवूय जा रे मंत्री
बापूय : आरे तें म्हाका नाका, आरे तें म्हाका नाका
कोरस : ऊं, दोयश, त्रेयश, क्वात्र
घालुया. धुमशेणां सगली रात

भुरगो : घरांत आसचो मंत्री
मंत्री धारेची कात्री
कायद्याक मंत्र्याची सत्री
पाय! सगलेच जावया मंत्री
बापूय : आरे तें आमकां नाका, आरे तें आमकां नाका
कोरस : वन, टू, थ्री, फोर
मंत्री जातात ते सगले चोर

*मंगळूर 15.8.1984*

48.

## म्हज्या कपलार हाणें घाली उडी

(विडंबन)

म्हज्या कपलार 'हाणें' घाली उडी
जाता जाल्यार 'हाका' पाय रे तडी

जायतो तळफेलो, जायतो वळपेलो
तापत्रयीं ह्या लासलो, हुल्पलो
थकला, तरीय तुजेर सोंपयल्यो
संवसाराच्यो 'हाणे' अडी नडी

सूख 'हांगाचें' हारशाची माया
अदृढ 'ही' कवचेची काया
कित्याचोच ना 'हांगा' भरवंसो
कळना केन्ना बसत बडी

'हाचें' जिणें जगा व्यर्थ समर्था
निव्वळ जळ दुख्खाक अनर्था
घाय हुलप हे लाय सार्थका
'हाचे' कुडीची घालून घडी

*मडगांव 21.11.1984*

## 49.

# हुच्च जाल्लें सुटना

(विडंबन)

हुच्च जाल्लें सुटना
मतदानाची ताप लागतना
पूर्व पुण्य कळना

मोरारजी भवजाळीं पडलो
परोपरीन घर घर व्हिडव्हिडलो
पूत मूत धन राज्य व्हगडलो
लागून या मायणा

जाल्लें व्हेल्लें घर आसून उंचेलें
ताईक पळया कितलें भोगलें
घोव देव आसून हुल्पली
जावन भयो दैना

अनंत हो तांडवां अतिरथी
वश जाल्लो जणूं ताका श्रीपती
साह्य आसून ग्रामस्थ म्हारथी
पडलें सामकें उदणा

व्हडाव्हडांची ही असली गती
कुळक्षयूय हांणी भोगला फार्टी
पळोवन पूण हें मनीस अल्पमती
रतिभरय शिकना

भोग जिवा मतदान यातना
तिकेट तुका पर्थून मेळची ना
पडले बगर हें शास्त्र उमजना
तांतलें सूख सोंपना

*कोल्हापूर 28.8.1985*

50.

## एक ध्यास

(विडंबन)

फॉरेन आमचें मूळपीठ फॉरेन आमची भास
फॉरेन संस्कृताय आमच्या नेण्टयांची मिरास

आसूं आमी लागीं पयस खंयूय संवसारार
जैत तिका हाडूंक आमी घोळूं आठय पार
तिचे खातीर घालूं आमी घाणाक आवयभास

जिवीं आमच्या भोग आनी चलणुकेंतूय भोग
आमच्या मनीं मुखीं सदां दुस्वासांचो रोग
दुर्बलांचो ग्रास काडूंक काडूं केदेय त्रास

सुटां बुटां ओड आमकां मोनजातीचो मोग
व्हिस्की मुखार तुच्छ आमकां सगलो सर्गभोग
तिचेच सयेन सोडूं आमी माणसुकेची 'कास'

पूर्व आमचें 'कट्टीवंत' ते परसूय फुडार
गोंय आमकां करचें आसा 'भायल्यांचें कुळार'
गोंयच्या दोंगुल्ल्यांनी सगले धरून आसात आस

हेच खातीर सोंसलें आमी जायतें आज वैर
आमच्या हट्टान दुस्मानाचेंय येवूं नाक वयर
सोंपत आयले सगले आतां त्रास बंदिवास

खंयची आमची आवयभास? भुरग्यां नाका त्रास
मीन मायण्डेड जावन आमी सोडचे ना हो ध्यास
फॉरेन भास शिकून जातलीं भुरगीं आमची बॉस

फॉरेन आमचें मूळपीठ फॉरेन आमची भास
तांच्या जपीं तपीं आमचे मुक्तीचे विलास

*कोल्हापूर 2.3.1986*

51.

## सायबिणी तूंच म्हाका गे तार

सायबिणी तूंच म्हाका गे तार
तुजे बगर ना संवसारांत ह्या कोणाचोय आधार

हांव म्हापापी, हांव अडाणी
अबुद्ध, दुर्बल, हांव निर्गुणी
चोंयवशीन काळोख बिण्ण हो दिसना कांयच मुखार

संवसारांतले रोगी भोगी
तुज्या तपान गे जाले योगी
गळसणलां घुस्पलां गोंदळ्ळां दगदगांचो हो भार

आतां सूख ना ह्या संवसारांत
जीव घुस्पला तरी ह्या भोंवऱ्यांत
शिरंत्रांनी ना त्राण तरपाचे हो गे भवसंवसार

*मडगांव 21.1.1983*

52.

## दोन बुदवंत

जावूं लग्नाचे मुंजीचे सुवाळे
आसले गांवांत बुदवंत दोनच म्हाले
गरीब जावूं श्रीमंत जावूं कोणी
लायल्या तकली बागोवंक सदां हांणी

उचापती त्या म्हाल्यांक सदांच गावच्यो
घरांबारांनी चल्लां कितें हांच्यो
हांचें तांकां नी तांचें हांकां करपांत
लागपी नासले म्हाल्यांक कोणय गांवांत

दोनय म्हाल्यांच्या आयलें एकदां तकलेंत
गांवच्या बुदवंताक घालचो एके आटयेंत
म्हाल्या हातांनी धा बारा तरी तकल्यो
दिसाक घोळटाल्यो मुखेल तशो मेकळ्यो

खाशांक आसली एक संवय पान खावची
धोतर खांदार बायलांक पळोवन खांकची
हातांत आसतना तकली त्या खाशांची
फुकलो कानांत ल्हवूच खबर गांवची (?)

हालीं खाशांनो! जालां कितें तुमकां
काळजी तुमची लोकांक आनी आमकां
संत मनशांच्या लागला फाटीं देंवचार
कोणाक खंयचो दीस? कळना ताचो विचार

दिवचो नासाक त्या हाता मापान जोड
वारगतीनीक गा काजळ कुकुम पोड
हड्डें खाशांचें धडधडूंक लागलें
मेल्ले गेल्ले ते घरांक फिरूंक लागले

घाडी मूळी भार दोतोर सगळे जाले
दोळे खाशांचे पाडसा कडेन लागले
खरेंच आसता काय सर्ग नरक पाताळ
घुवुंक लागलें ब्रह्मांड सगळें त्रीकाळ

नरक पाताळ काय सर्ग कांयच कळना
पेणे खंय तें आसतलें आमचें कळना
आतां खाशांची याद वचूंक लागली
खाणां जेवणाची रूच वचूंक लागली

गांवांत लागलीं बेकार कानांक तोंडां
गांवकारांची हालूंक लागलीं बोडां
आरे देवा! हें जालें कितें घटकेंत !
खाशे पावले सोबीत लाकडी आटयेंत

*मडगांव 21.6.21*

53.

## यमुनेच्या त्या पाण्ट्या वयल्यान

यमुनेच्या त्या पाण्ट्या वयल्यान
तिनसानचें हांव परत येतालें
अचकीत उडली घागर वाऱ्यार
उदक सगळें आंगार तातुंतलें

सांगचें कशें आनी कोणाक सांगचें
घट्टा आतां हें जालां सदीचें
बेटेंच भियेलें मनांत लजलें
आंग पांग शिरशिरून गेलें

जाली पिशी हांव म्हाकाच तेळटना
अशी कशी हांव म्हाकाच वळखुना
परकी जालें रूप म्हजेंच तेळटना
सांसपुन हांव म्हाका सोदूंक लागलें

तिनसांजचें काय म्हणून भियेलें
काय मन चंचल थाऱ्यार नासलें?
चाळीशीची नदर तिरशी खर
नकळत आतां चुकोवंक लागलें

कशें दचकलें कोणे दचकायलें
कळ्ळें ना काळीज कशें पाझरलें
पारजा सारकें घळळ करून हें
भुरगेपण हांव शेणोवन आयलें

*मडगांव, 6.4.2019*

‘जीण म्हजी जावं दी देवा
पण्टयांतली जळटी वात
जळूं पुणून दिसूं जनाक
उमाशेचीय काळखी वाट’

